# गजालींचें नाटक



अना म्हांबरो



फुळागर प्रकाशन

## दोन उतरां

अजेन अियानेस्को हांच्या LA CANTATRICE CHAUVE ह्या मूळ फ्रेन्च नाटकाचो डॉनल्ड ॲलन ह्ांणी THE BALD SOPRANO म्हूण अणकार केला. ताचेर हें नाटकुलें आधारलां. मूळ सवंगांनी थोडोसो आनी संवादांनी खुबसो बदल केला.

म्हत्वाची गजाल म्हळयार ह्या नाटकुल्यांत लोकभासमाला ( पयलें आनी दुसरें पुस्तक ) हांतले कांय वांटे घेतल्यात. तशेंच शणै गोंयबाब, बाकीबाब बोरकार, मनोहर सरदेसाय; आनो र. वि. पंडित, हांच्या साहित्याचो अुपेग केला.

कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय आनी ह्या बरप्यांचो हांव रिणकारी आसां. कुळागर प्रकाशनाचेय उपकार मानतां.

– अना म्हांबरो

# गजालीचें नाटक

सवंगां : दादा, व्हनी, विठोबा, रुक्मीण, विमल, पुलीस
(बंबवालो बी)

(दादा आनी व्हनी आपल्या घराच्या भायल्या सालांत बसल्यांत. दादा वर्तमानपत्र वाचता. व्हनी खोमसाक बटण लायता. सालांत अेक घडयाळ आसा.

विमल–घरची रानतली–स्टेजीर येता आनी टी. व्ही. चें अॅनाअुन्सर कशें नाटक पळोवंक आयिल्ल्या लोकांकडेन अुलयता. तें अुलोवंक लागचे पयलीं आकाशवाणीचो सिग्नेचर ट्यून आयकूंक येता आनी अुपरांत ८–१० वरां वाजतात.)

विमल : नमस्कार. आमी पणजी दूरदर्शन केन्द्रावेल्यान अुलयतांत. निकतीं सांजचीं साडेपांच वरां जाल्यांत आनी आमची आयची दुसरी सभा सुरू जाता. आयज आमी तुमचेमुखार गजालींचे नाटक सादर करतांत. ह्या नाटकांत स सवंगां आसात. हीं

हांगां बसल्यांत तीं दोगां. हांकां आमी दादा आनी व्हनीबाय म्हण्टांत. दादा हो मुळचो दादाच. फक्कत व्हनीबाय ही मुळची व्हनी तिका आमी ‘ बाय ’ लायलां. हें घर हांचेंच. कशें दिसलें तुमकां ? वायटशें ना न्हय ? म्हजें नांव विमल. हांव ग्रॅज्युअेट पूण हांगेर रांदूक आसतां. हांगाच रावतां. हांचे घरचेंचशें. ग्रॅज्युअेट आसुनूय हांव हांगेर रांदूक कित्याक रावलां काय म्हण्टले तुमी. हो प्रस्न म्हाका विचारचेबदला सरकाराक विचारात. हांवें ग्रॅज्युअेट जायनाफुडें कितल्याशा सरकारी खात्यांनी जॉबाखातीर अॅप्लिकेशनां अुडयलीं. अेकाय कडल्यान जाप आयली ना. मागीर अेम्प्लॉयमेंट अेक्श्चेंजींत नांव दिलें. बऱ्या तेंपान म्हाका शिर्विसेचो कॉल आयलो. दादान म्हजो अिंटरव्ह्यू घेतलो. म्हजें वय आनी नाक–दोळे पळोवन ताणें म्हाका ही शिर्वीस दिली. हरशीं अिंटरव्ह्यूक हांवें ताका सांगलेलें म्हाका रांदपाचें कांयच अेक्स्पीरियन्स वा अणभव ना म्हूण. दादा म्हणूंक लागलो हांगां शिर्विसेक लाग. मागीर तुका सगलेतरेचो अणभव मेळटलो. अशेतरेन हांव हांगां शिरकलें. (थारून) आतां हांची वळख करून दितां हो दादा. हो अेक भाटकार. कंसांत (हातांनी कंस दाखयत) वर्सां ४५ सुमार. जाण्टेल्यांनी हाका खुबशीं भाटां दवल्लेलीं तीं हाणें काबार केलीं. अुरिल्लीं सरकारान काडून मुंडकाऱ्यांक दिलीं. दादा केन्नाकेन्नाय म्हण्टा सरकारान हो मुंडकार कायदो केला तो आपणाचखातीर म्हूण. ही तागेली घरकान्न-व्हनीबाय. कंसांत– वर्सां ४०. ही अेक बरी मनीस. फक्कत अेक फावट अुलोवंक लागली म्हण्टकच थारचना. तुमकां सगल्यांक मात्शें पासीयेंस काडचें पडटलें. नायजाल्यार ह्या नाटकांतल्या सगल्या सवंगांच्या तोंडाक सुवादूच ना. सगलेंजाणां अेक-सारकीं अुलयत आसतात. देखून हाका गजालींचें नाटक म्हळां. (थारून) कांय वेळा अुपरांत दादा–व्हनीबायगेर

विठोबा आनी रुक्मीण येतलीं. धल्ल्यार हीं हांचीं सोयऱ्यां, धल्ल्यार बरीं-मागतीं. हीं चारूय मनशां अुलयताना अेक सरकारी मनीस येतलो पुलीस-कम-बंबवालो-कम बलायकेच्या खात्यांतलो म्हळ्यार हेल्थ डिपार्टमेंटांतलो अेक अिन्स्पेक्टर. तो खंय चोरी जाल्या, अुजो लागला, खंय कोणाक हती रोग, मलेरियाबी जाला काय म्हूण पळोवंक आयिल्लो आसता. पूण तोय बाबडो हांचे मदीं घुस्पता. नायजाल्यार तो अेक सरकारी मनीस ताका आनीक काम कसलें आसतलें? म्हूण तोय गजाली सांगता. (थारून) ह्या नाटकांत कांय बऱ्यो गजाली आसात. ह्या नाटकाक कथानक ना, अिंटरव्हल ना आनी शेवटूय ना. देखून आमी अेक गजाल करतलीं- तुमकां वाज येवचेपयलीं हें नाटक सोंपयतलीं. तशांत नाटक सोंपचेपयलीं जर तुमकां वाज आयलो जायत जाल्यार तुमच्यांनी तें अर्दार अुडोवन घरा वचूं येता. (थारून) आतां हांव मात्शें सिनेमाक वेतां. कोणाब्राबर तें सांगना. तुमी कामाशिवाय वाऱ्यार घालतलीं. त्यापयलीं तुमकां अेक शिटकावणी दितां. हांगां ही पळे घडयाळ आसा ती दीसरात आपणाक जाय तशी वाजत रावता- पणजी आकाशवाणी केंद्राचे घडयाळीवरी. तेन्ना तिचेर लक्ष दिवं नाकांत आं ! (थारून परतून टी. व्ही. अॅनाउन्सरावरी उलयता. त्याच वेळार म्युझीकूय आयकूंक येता) तर आतां पळेयात गजालींचें नाटक. हें नाटक बरयलां अमक्या अमक्यान. आनी हातूंत वांटो घेतात: अमको अमको, अमको अमको, अमको अमको, अमकी अमकी, अमकी अमकी आनी अमकें अमकें. हें नाटक तुमचे मुखार दवरता x x x x

(घडयाळींत १७ वरां वाजतात)

व्हनी : णव जालीं. खूब जेविल्ल्यान मात्शी सुस्ती आयली. जेवणाक शीत आनी पेडव्यांचें हुमण बी आसलें. बांगडे बरे ताजे मेळ्ळे. तांतलें अिल्ले तळ्ळे आनी अुरिल्ल्यांची अुडुमेथी केली. आतां

आदलेवरी हांगां नुस्तें खंय मेळटा ? हो नवो सरकार आयिल्ल्याक सगलेंच पाड पडलां.

दादा : (व्हनयेक पळेता. ओंठार जीब भोंवडायता. पेपर वाचता)

व्हनी : आमकांय म्हूण आतां आदलेवरी नुस्तें खावंक परवडटा ? खावन आयिल्लो जीव म्हूण खावप तें. दुसरें म्हळ्यार, शेजाऱ्यांपाजाऱ्यां विचारतात, आयज नुस्तें कितें मेळ्ळें काय म्हूण. तांकांय म्हूण कितेंय सांगूंक नाका ?

दादा : (तिका पळेता.... पेपर वाचीत रावता)

व्हनी : बांगडे ताजे आसले. तेल मात् मातशें खंवटेल्लें. शेजरा मंगेशालो पसरो आसा. तागेर तेल मेळटा ताचेपरस बाजारांत पुरशाच्या पसऱ्यार बरें मेळटा. पैर कोणतरी सांगतालो मडगांवा कोणागेरशें तेल मेळटा ताचेयपरस पुरशालें तेल बरें आसता म्हूण.

दादा : (तिका पळेता.... पेपर वाचीत रावता)

व्हनी : शिवाय पुरशालें तेल आमच्या आरोग्याक बरें पडटा. दोतोरानूय सांगलां तुमी हेंच तेल खायात. पुरसो तातूंत कितें तरी घालता तें घटसाणेक बरें पडटा अशें ताचें म्हणणें. हें तेल खायत जाल्यार आनीक टॉनिकांबी घेंवचीं पडनात खंय.

दादा : ( तिका पळेता... पेपर वाचीत रावता )

व्हनी : विमलान हे खेप बांगडे बरे तळिल्ले. फाटले खेप चुतड्यान सारके तळ्ळेच नात. तशेच खावंचे पडले. हिमसाणीन जीव सामको विटलो.

दादा : ( तिका पळेता.... पेपर वाचीत रावता )

व्हनी : अुट्टमेथीय बरी जाल्ली. हांवें चार फावट घेवन खाली. (दादाक) तुमी मात् तिनूच फावटी घेतली. हांवें घेवंक घेतली खरी. पूण अुपरांत म्हज्या पोटांत– पाड पडूं. जेवताना तोप हरशीं तुमच्या म्हऱ्यांत दवल्लेलो. पूण तुमी व्हडलीशी

खाली ना. हरशीं केन्नाय कितेंय खावंचें जाल्यार तुमचे जिबेक सुमारूच नासता. भकाऱ्यावरी खायत आसतात.

दादा : ( तिका पळेता... वाचीत रावता )

व्हनी : हुमणाक मात् तिखसाण मात्शी अुणी आसली. विमलान हरशीं अितलो मिरसांगे– पिठो घाल्लो, पूण तिखसाण सारकी आयलीच ना. पैर जुंवेकान्न सांगताली हालीं मिरसांगांक तिखसाण नासता म्हूण– हो सरकार आयिल्ल्याक. विमलाक मुद्दम सांगूंक जाय परथून केन्ना हुमण केलें जाल्यार मिरसांगां पिठचाचो सगलोच दबो तातूंत ओत म्हूण–

दादा : ( तिका पळेता— पेपर वाचीत रावता )

व्हनी : आमगेल्या दिलिपाक जेवताना आयज थम्सअप जाय आसलो. जेवताना ताका सद्दां थम्सअप लागता. तो अुदक पियेना. दीसरात थम्सअपूच पियेता. अशे करून ताणें आपल्या आरोग्याची वाट लावन घेतल्या. (थारून) थम्सअप आरो-ग्याक वायट आसता. तो पियेतकूच हालीं लोकांक आताक येतात. (दादाक) दिलीप जाला तुमचेवरी आनी बेबी जालां म्हजेवरी– तें कांय खायना. कांय जेविना. ताका लागून पोराच्या हाडाक काती लागल्या... म्हजेवरी–

दादा : ( तिका पळेता... पेपर वाचीत रावता )

व्हनी : पैर शेजारची कामतीण सांगताली बेळगांवच्यान खंय अेक मनीस आयला तो धंय बरें करता आनी तें जम्बो आयस्क्रिमा-वरी विकता. तो खंय अमेरिकेक वचून धंय कशें करचें तें शिकून आयला. तो खंय म्हण्टालो, हांगांचे लोक धंय खाय-नात म्हूण ते अिलेक्शनाक पडटात.

दादा : ( तिका पळेता... पेपर वाचीत रावता )

व्हनी : (जायरातीवरी) धंय पोटाक बरें, किडणीक बरें, आपेनि-शीक बरें. (थारून) मंत्र्यांक लेगीत बरें. ( थारून ) पैर

दोतोर देसायान म्हाका हीच गजाल सांगली. शेजारच्या नाडकर्ण्याचीं भुरगीं तागेलेंच वखद घेतात म्हूण तीं हालीं परिक्षेंत बरीं पास जातात. दोतोर देसाय हो अेक बरो दोतोर. तो फुटबॉल खेळटा आनी नाटकांतूय बरें काम करता. कोणेंय ताचेर विस्वास दवरचो. कारण नाटकांतल्या सगल्या दुयेंतींक ताच्या वखदान रोखडोच गूण पडटा. दुयेंतीक कसलेंय वखद दिवंचेपयलीं तें तो आपूण घेता. पुण ताणें कामतीच्या पोटाचें ऑपरेसांव केलें. पूण त्याआदीं ताणें आपलें ऑपरेसांव करून घेतलें.

दादा : (तिका पळेता) कितें जाल्लें ताका ?

व्हनी : कांय जावंक नासलें. तुमकां निकतें सांगलें न्हय हांवें ?

दादा : कितें ?

व्हनी : दुयेंतीक सादें अिंजेसांव करचें पडलें जाल्यार लेगीत तो तें पयलें आपणाक करून घेता म्हूण.

दादा : ( थंडपणान ) पूण ऑपरेसांव केल्या अुपरांत कामत मेलो दोतोर मरूंक ना, हें कशें ?

व्हनी : तुमचें बाये नाका जाल्लेंच. अेकाद्याक अेकाद्रें वखद लागू पडता, अेकाद्रयाक पडना. तशें ऑपरेसांव दोताराक लागू पडलें, कामतीक पडलें ना.

दादा : तशें जाल्यार दोतोर देसाय हो बरो दोतोर न्हय.

व्हनी : कित्याक म्हण्टात तुमी ?

दादा : तो बरो दोतोर जाल्यार ऑपेरसांवान अेकतर दोगूय बरे जावंक जाय आसले नाजाल्यार दोगूय मरूंक जाय आसले. जें कितें जाता तें दोगांकूय सारकेंच जावंक जाय आसलें.

व्हनी : अशें कित्याक म्हण्टात तुमी ?

दादा : बरो दोतोर दुयेतीक वाटायता. तें ताका जमलें ना जाल्यार तो दुंयेतीबराबर मरता. बोटीचो कॅप्टन बोटीबराबर बुडटा तसो. बोट बुडटना पळून वचून तो आपलो जीव वाटायना.

व्हनी : पूण दुर्येत म्हळचार काय बोट न्हय.

दादा : कोण सांगता न्हय म्हूण. बोटीकूय दुंयेंसां जातात. आनी तुगेलो तो दोतोर देसाय जाण्टो जालो तरीय अजून बोटीवरी बरो खणखणीत आसा. तात्पर्य कितें–

व्हनी : कितें ?

दादा : बोटीबराबर तिचो कॅप्टन मरता तशें दुंयेंतीबराबर दोतोरान मरूंक जाय. हेच परीन कामतीबराबर दोतोर देसायानूय मरपाचें.

व्हनी : तुमचें म्हणणें बराबर आसुंये. घडये, अॅसेंब्लींत हाचेर अुलोवणीं जालीं जाल्यार सभापती तुमचें म्हणणें बराबर काय चूक तें सांगूंक शकतलो. आनी पेपरांनी तशें छापून येतलें. पूण म्हाका अेक सांगात, हे गजाली वेल्यान तुमी निश्कर्श कसले काडटात ?

दादा : सगले दोतोर फटींग. दुंयेंतूय फटींग. बरे ते फक्कत गोंयचे मंत्री.

व्हनी : मुखेलमंत्री म्हणात. हेरांकूय तांचेबराबर कित्याक ओडटात? ते– बाबडे सगल्यांचें आयकून घेतात आनी ताकालागून आपूण कांयच करूंक पावनात.

दादा : (पेपर वाचीत) म्हाका अेक गजाल समजना, सगले ज्यॉर्नाल मेल्ल्या मनशाचीं वर्सां दितात जाल्ल्यांची केन्नाच दिनात. पिशेपणां न्हय हीं ?

व्हनी : पूण जाल्ल्या भुरग्याचीं वर्सां कशी दितले ते ? तो निकतो जाल्लो आसता.

दादा : पूण पेपरांत ताची खबर येता तेन्ना ताका दोन-तीन दीस तरी जाल्ले आसतात काय ना ?

व्हनी : बाकी तुमगेली तकली वायटशी ना आं !

दादा : कित्याक म्हण्टा तूं ?

व्हनी : नाका जाल्लेंच कितेंय सोडून काडटात म्हूण म्हण्टां.

(घडयाळींत पयलीं सात वरां ' वाजतात '.... अुपरांत तीन ' वाजतात ')

दादा : (पेपर वाचीत) शरद नायक भायर पडलो.

व्हनी : काकुळट बाबड्याची. चड जाण्टो न्हय तो हरशीं. कितें जालें ताका ?

दादा : शरद नायक भायर पडल्यार दोन वर्सां जालीं. तो भायर पडला तेन्ना तूं ताचे आवयक मेळूंक गेल्लें, अुगडास ना तुका?

व्हनी : आसा.

दादा : म्हण्टकूच आतांशें कित्याक तूं ताची काकुळट करता ?

व्हनी : पाड पडूं ह्या वर्तमानपत्रांचें. छापूंक कांय नासलें म्हण्टकूच दोन वर्सां फाटल्यो खबरो छापतात. पूण म्हाका अेक सांगात ही बातमी वाचिनाफुडें तुमकां अजापशें कित्याक जालें ?

दादा : बातमी न्हय ती.

व्हनी : जायरात दिसता. शरद नायकाच्या घरच्यांनी दिल्ली (नाटकीपणान) बाबा, तुमी काळजाच्या आताकानें जाअून आज कांहीं नाहीं म्हटल्यास दोन वर्षे झालीं. ह्या दोन वर्षांत अेकही दिवस असा गेला नाही की ज्या दिवशीं आम्हांला तुमची आठवण झाली नाहीं. तुमचा तो पदेराचा अुंडा खातानाचा हंसरा चेहरा अजून आमच्या दोळ्यासमोर आहे. बाबा, तुमची आठवण सदैव आमच्या मनांत राहील ह्याबद्दल काळजी करूं नका. तुमी काळजी केली तर तुम्हांला दु:ख होअील आणि तुम्हांला दु:ख झालें तर आम्हांलाही दु:ख होअील. दु:खाचे डोंगर आकाशा अेवढे असतात असें आमचे मास्तर नेहमी आम्हांला सांगत असत. (थारून) अिश्वर आपल्या आत्म्याला व आपल्या आत्म्याबरोबर आमच्याही आत्म्याला शांती देवो !

दादा : हांव वाचतां ती जायरात न्हय.

व्हनी : जाल्यार ?

दादा : काल सांखळे मोटारीपोंदा पडून अेक सुणें मेलें अशी हातूंत अेक खबर आयल्या.

व्हनी : ती वाचून तुमकां वायट दिसले ?

दादा : ना.

व्हनी : जाल्यार ?

दादा : ती वाचून म्हाका शरद नायकाचो अुगडास जालो. सुणें मरूं येता तसो मनीस मरूं येता. खंयचोय मनीस मरूं येता तसो शरद नायक मेलो... अशेतरेन ताचो म्हाका अुगडास जालो.

व्हनी : तुमकां केन्ना कसलो अुगडास जायत कांय सांगूं नज. आता हांवें तुमकां अेक गाळ घाली जाल्यार तुमकां कसलो अुगडास जातलो ?

दादा : अेकच प्याला नाटकांतल्या सुधाकराच्या भाशणाचो. म्हूणूं तें भाशण ? (व्हनी 'हय' म्हण्टा त्याबराबर सुधाकराचे हावभाव करीत दादा ताचें भाशण म्हण्टा) सिंधू, सिंधू, काय करतेस हें? माझ्या पायावर मस्तक ठेवतेस? या सुधाकराच्या? या दारूबाज सुधाकराच्या ? ज्याने आपल्या विद्येला, ज्ञानाला, नांवलौकिकाला दारूच्या पेल्यांत बुडविलं त्या सुधाकराच्या ? सिंधू, मी दारूच्या व्यसनानं काय करायचं ठेवलं आहे ? वडिलांच्या पुण्याईला, ब्रह्मकुलींच्या पवित्रतेला तिलांजली दारूनं दिली. तुझ्यासारख्या देवीची अशी विटंबना केली ! सिंधू, तुझा नवरा होण्याला मी पात्र आहे का ? सिंधू, तक्षकाला मारण्यासाठी जनमेजयानं त्याला पाठीशीं घालणाऱ्या अिंद्रदेवतेलाही आगींत अुडी टाकण्याला आमंत्रण केलं. त्याप्रमाणं या दारुच्या व्यसनाला घराबाहेर घालविण्यासाठीं तुझ्यासारख्या साध्वींनीं सुद्धां, या व्यसनाला पोटांत थारा

देणाऱ्या पतिदेवाला लाथेनं घराबाहेर हांकललं तर आजच्या संभावीत समाजातून हें दारूचं व्यसन हद्दपार होओील.

व्हनी : (ताळयो मारता) हें तुमगेलें भाशण फॉर्त जाले आं. तें आसूं पूण शरद नायक हो अेक बरो मनीस आसलो हातूंत दुबाव ना. आंगापांगानूय बरो घटमूट आसलो.

दादा : आंगापांगान बरे आशिल्लेच मनीस हालीं चड मरतात हें नकळ व्हय तर तूं ?

व्हनी : हय. पूण शरद नायक गेलो हे गजालीचेर म्हजो विस्वासूच बसना.

दादा : दोन वर्सापयलीं तो गेलो त्यावेळार बशिल्लो ?

व्हनी : ना.

दादा : जाल्यार तेन्ना तूं तागेले आवयक मेळूंक कित्याक गेल्लें तर ?

व्हनी : सांगतां तुमकां. त्यावेळार तुमी हांगां नासले. हांव गाणें म्हणत अशें वारांदार बशिल्लें अितल्यांत कोणेंतरी खबर हाडली, शरद नायक भायर पडलो. खबर आयकनाफुडें हांव रडूंक बसलें. बरेंऽऽ वरभर रडलें. मागीर कोणाक तरी विचाल्लें शरद नायक खरोच भायर पडलो रे ? तो म्हणूंक लागलो, 'नकळं हांव. ना दिसता.' मागीर म्हाका प्रस्न पडलो आतां करप कितें ?

दादा : पूण म्हाका अेक सांग, तूं पयलीं रडलेंच कित्याक ?

व्हनी : खंयचीय वायट खबर आयकनाफुडें चुरचुरचें, रडचें अशें आओी सदांच म्हण्टाली देखून हांव रडलें.

दादा : आनी अुपरांत तूं ताचे आवयक कित्याक मेळूंक गेलें ?

व्हनी : समजा, तिगेलो पूत खरोच भायर पडिल्लो आनी हांव तिका मेळूंक वचूंक नासलें जाल्यार तिका वायट दिसचे नासलें ? हांवें मनांत म्हळें, शरद नायक भायर पडला जायत ना जायत. समजा, तो भायर पडूंक ना जाल्यार चडान चड कितें

जातले ? म्हजी फावट फुकट वेतली. वचूं, अशें म्हूणून हांव गेलें–

दादा : बरें केलें.

व्हनी : (येवजीत) बाकी पोराचो–

दादा : कोणाचो म्हण्टा ?

व्हनी : शरद नायकाचो नाकदोळो बरो आसलो. फात घालो म्हण्टकूच गोव्हेर्नादोराक लेगीत फाटीं अुडयतालो. शेंपडेर पांय पडना-बराबर सोरोप जसो अुडटा तसो तो रस्त्यार चलताना अुडटालो. काकुळट शरदाची.

दादा : खंयच्या शरदाची म्हण्टा तूं ?

व्हनी : भायर पडला त्या शरदाचे बायलेची. तिचेंय नांव शरदूच. दोगांचीय नांवा सारकींच आसलेल्यान तीं दोगांय सारकींच दिसतालीं. लोकांक वळखुंकूच येनासलीं. शरद नायक भायर पडलो ते दीस पयलेच खेप मेला तो घोव आनी उल्ल्या ती बायल हें लोकांक समजलें. अितलेंय आसून अजून कांय लोक गोंदळटात. भायर पडला ती बायल अशें धरुन घोवाक मेळूंक वेतात. तुमी जाणांत हें ?

दादा : हांवे शरदाचे बायलेक अेकूच फावट पळेल्ली. तो भायर पडला तेन्ना.

व्हनी : हांवें जाल्यार तिका पळोवंक लेगीत ना.

दादा : म्हूण तो भायर पडलो तेन्ना तूं ताचे आवयक मेळूंक गेल्लें तर.

व्हनी : त्यावेळार हांव गेल्लें खरे ताचे मेवणेक मेळूंक. तिका हांव वळखतां. पूण हांव थंय गेलां तेन्ना शरदाची बायल आनी मेवणी दोगांय सिनेमांक गेल्लीं आनी आवय बाबडी रडूंक बशिल्ली पूत गेला म्हूण. म्हण्टकूच हांव तिकाच मेळून आयले. (थारुन) शरदाची बायल दिसूंक बरी आसा काय ? म्हजे–

वरी बी ?

दादा : ती दिसूंक खंयचेय बायले वरी आसा.

व्हनी : म्हणचे ?

दादा : तिका अेक तकली, अेक नाक, दोन दोळे, दोन हात, दोन पांय बी आसात. पैशिल्यान पळेल्यार ती अूंच आनी बारीक दिसता. लागशिल्यान पळेल्यार ती मोटवी (गिड्डी) आनी मोटी दिसता. ती खंयचे तरी शाळेंत गाणें शिकयता.

(घडयाळीचेर पांच वरां वाजतात)

व्हनी : ती दुसरें लग्न करताशी खंय ?

दादा : अशें हांवेंय आयकलां.

व्हनी : आमकां तांच्या लग्नाक वचूंक जाय.

दादा : आफयल्यार (थारुन) पूण गेलीं जाल्यार आमी तांकां केळवण कितें दिवंया ?

व्हनी : आमच्या लग्नांक आमकां सतरा टेबललॅम्प्स (मेजावेले दिवे) आयिल्ले. तांतले आमी पंदरा अशेंच कोणाकोणाक दिवन अुडयले. दोन अुल्ल्यात. तांतलो अेक दिवंया तांकां.

दादा : पूण तो पोन्नो दिसचो ना ?

व्हनी : घांसून, पुसून व्हरुंया. जाय जाल्यार अेके बरे काशीत घालुंया आनी तो अेका बऱ्या कागदांत बांदुया. सामको नवो ताल्ल दिसतलो.

दादा : काकुळट शरदाची. शरदाचे बायलेची म्हण्टा हांव.

व्हनी : अितल्या ल्हान वयाचेर ताचेर हो प्रसंग येवंक जायनासलो. फाल्यां म्हजेर हो प्रसंग आयलो जाल्यार हांव कितें करतलें ? (रडटा)

दादा : तें समजून घेतलें जाल्यार म्हाका आतांच मरचें पडटलें. मरुं?

व्हनी : शी, थुमेकाल ! कित्याकितेंय कितें अुलयतात ? तुमचे जिबेक कितें हाड बी–

दादा : ना. हाड आसल्यार ती तट्ट करुन मोडटली आसली.

व्हनी : पूण हांव म्हण्टां, शरदान लग्न केल्या अुपरांत तागेल्या भुरग्यांक कोण पळेतालो ? ताका दोन भुरगीं आसात– अेक चलो, अेक चली. नांवां जाणांत तुमी तांचीं ?

दादा : त्या दोगांयचीं नांवां शरदूच– आवयबापायवरी चल्याचेंय नांव शरद आनी चलयेचेंय शरद, भायर पड्डिल्लो जो शरद नायक आसा तागेलो बापोलयो ताचेंय नांव शरद नायक. पैशांनी बरो ताण आसा. ताणें ब्लॅक बी बरें केलां. आनी ताका चल्यांचो खूब आवड. तो शरद नायकाच्या– म्हळयार भायर पडला त्या शरद नायकाच्या– पुताक म्हळयार शरदाक पळेतलो.

व्हनी : आनी शरद व्हनयेच्यान– म्हळयार मेला त्या शरद नायकाच्या बापोल्याचे बायलेच्यान– तागेले धुवेक– म्हळचार शरदाक– पळोव येता. आनी अशेतरेन शरद नायकाच्यान म्हळयार शरद नायकाचे बायलेच्यान– दुसरें लग्न करुं येता. पूण अखेरेक तें लग्न करता कोणाकडेन ?

दादा : आपल्या बापोल बापोल भावाकडेन– ताचेंय नांव शरद नायक.

व्हनी : शरद नायकूच ?

दादा : हय शरदालो अेक बापोल बापोलयो आसा ताचेंय नांव शरद नायक. ताचो हो पूत. हाचेंय नांव शरद नायक. तर सांगतालो कितें, ह्या शरद नायकाकडेन भायर पडिल्ल्या शरद नायकाली बायल–जिचेंय नाव शरद ती लग्न करपाची आसा. समजलें सारकें ?

व्हनी : पूण हो शरद नायक पसरकार न्हय ?

दादा : सगलेच शरद नायक पसरकार– तांणी आनी आयुश्यांत दुसरें कितें केलां ? फक्कत पसरे चलयल्यात.

व्हनी : पूण पसरो चलोवप म्हळ्यार फकाणाचें काम न्हय. पसरो चलयताना फायदो म्हूण करचो पडटा. लुकसाण केलें जाल्यार सामकेंच दिवाळें जाता. हे सगले शरद नायक आपले पसरे फायद्यान चलयतात ही म्हत्त्वाची गजाल.

दादा : जे दीस कॉम्पिटिशन नासता ते दीस तांचे पसरे सारके चलतात.

व्हनी : म्हळ्यार खंयच्या दिसा ?

दादा : फक्कत आयतार दीस. ते दीस हेर सगले पसरे बंद आसतात आनी हांचे तितले अुकते आसतात. म्हूण ते दीस फायद्यान चलतात.

व्हनी : पूण तांकां गुमास्ता कायदो बी लागना व्हय तर ?

दादा : तांणी मंत्र्याक पैशे खावोवन आपणाक तो कायदो लागचो न्हय अशी वेवस्था केल्या.

व्हनी : बरे हुशार आसात तर हे सगले शरद नायक. पूण हांव म्हण्टां, ते आयतार दीस फायद्यान पसरे चलयतात म्हळ्यार नेमके कशे चलयतात ?

दादा : ते दीस ते पसऱ्यार बसून न्हिदो काडटात. तरीय तांचे पसरे बरे नेटान चलतात.

व्हनी : पूण ते दीस कॉम्पिटिशन ना जालें तरीय ते न्हिदोशो कित्याक काडटात ?

दादा : तें हांव नकळं. तुगेल्या सगल्या अर्थ– नाशिल्ल्या प्रस्नांक जाप दिवक म्हाका येवंचो ना.

व्हनी : म्हाका राग हाडूं नाकात आं, सांगतां तुमकां. अेक फावट राग आयले म्हण्टकूच हांव फाट फुडो पळेना.

दादा : आमगेल्या लग्नाक कितलीं वर्सां जालीं ?

व्हनी : नकळं हांव.. पांच–सात जालीं जावयें.

दादा : तशें न्हय, तुका राग येतकूच तूं फाटफुडो पळेना ही गजाल तूं आयजूचशी तूं म्हाका सांगता म्हूण म्हळें–

व्हनी : तुमी सगले दादले अेकेच माळेचे मणी. तुमी दीसभर त्या कदेलार सिगार फुस्कायत बसतात. पेपर वाचतात. आनी भायर सरपाचें जालें म्हण्टकूच पोव बी मारुन बायलांवरी नटून थटून भायर सरतात. तुमकां आनीक काम कितें आसा?

दादा : ह्या संवसारांत म्हजेवरी कितलेशेच दादले आसात. तुवें पळोवंक ना जाल्यार तुका दाखयतां म्हजेबराबर यो.

व्हनी : हेंय म्हाका तुमी राग हाडपाखातीर म्हण्टात जाल्यार तशें सांगात (रागान हातांतलें खोमीस जमनीर शेंवटिता)

दादा : (मायेन तिचेकडेन वचत) अशें तापूं नाका. तूं घट जाल्यार हांव घट. आमी दोगांय घट जाल्यार भुरगीं घट. (नाटकी-पणान) तुवेंच जर अशें केलें जाल्यार हांवें कोणाच्या तोंडाक पळोवप ?

(दोगांय अेकमेकांक लागीं ओडटात. अितल्यांत विमल येता ताचेकडेन दोगांयचें लक्ष ना तें प्रेक्षकांकडेन अुलयता)

विमल : ( दादा आनी व्हनीबाय मोग करतात अितल्यांत भायरसून विमल येता. थारुन) हांव आनी म्हगेलो तो अिश्ट– आमी दोगांय सिनेमाक म्हूण गेलीं. पळेल्यार थंय तिकेटीच नात. मागीर आमी थंयच थेटराच्या सोपणांचेर बसून मोग केलो. अुपरांत आमी हॉटेलांत गेलीं. थंय आमी कांय केलें ना. फक्कत गोल्ड स्पॉट पियेलीं. अुपरांत आमी राष्ट्रमत वाचलो.... तांतल्यो ' गोंयांत लोक च्या मागनात, मुडीस मागतात ' बी जायराती वाचल्यो आनी परथलीं. वेळ बरो गेलो.

व्हनी : तूं सिनेमाक गेल्लें तें अितले बेगीन परथलेंशें गो ?

विमल : आमी अर्दार भायर सल्लीं– तो आनी हांव– आनी फुडलो सीन पडुचार पळोवपाचो तो आमीच केलो.

व्हनी : अुगडचार ?

**विमल** : (मान हालयत) हय. (थारुन) पूण काळखांत.

**व्हनी** : (तापून) आगो पापणी, लोक कितें म्हण्टले तुमकां ?

**विमल** : कितें म्हंटले ? ही दोगांय सिनेमांतलो सीन करतात अितलेंच म्हण्टले–

**व्हनी** : अुपरांत कितें केलें तुमी ?

**दादा** : गोल्ड स्पॉट बी पियेलीं आनी राष्ट्रमत बी वाचलो जातलो.

**व्हनी** : तुमी कशें जाणात ? तुमीय थंय–

**विमल** : (अकस्मात अुगडास जावन किंळचता) आऽऽ !

**दादा** : कितें जालें गो ?

**विमल** : भायर विठोबा आनी रुक्मीण आयल्यांत.

**व्हनी** : पंढरपुरचीं ?

**विमल** : हॅं. हांगाचींच. जेवंक आयल्यांत जातलीं तीं–

**व्हनी** : पळेलें, हांव विसरुनूच गेल्लें. तीं आयलींना म्हूण आमी जेवन मेकळीं जालीं. (विमलाक) तूं आनी दिस्त अडचणीच्या वेळार भायर हेडपाक वेता.

**विमल** : व्हनीबाय, हावें तुका विचाल्लेलें–

**व्हनी** : कितें ?

**विमल** : म्हजो अिश्ट येतलो आनी म्हाका सिनेमाक यो म्हण्टलो तेन्ना हांव वचूं ? तुवें हय म्हळेलें.

**व्हनी** : आगो, आदीं विठोबा– रुक्मिणीक दार अुगड गो पापया. तीं बाबडीं तिश्टतात जातलीं. आमी मात्शीं भितर वचून तोंडाक पोव बी मारुन येतात.

(दादा–व्हनी वेतात. विठोबा–रुक्मीण कमरेर हात धरुन भितर सरतात. अेकमेकांमुखार कदेलांचेर बसतात. अनवळखी मनशांवरी अुलयतात. तीं अुलयताना विमल अेके कुशीक खूट कशें अुबें रावता).

**विठोबा** : म्हाका तुमी– तूं वळखीचें दिसता.

**रुक्मीण :** म्हाकाय तुमी वळखीचे दिसतात.

**विठोबा :** तुका मडगांव पळेल्ल्यावरी दिसता.

**रुक्मीण :** तुमकांय खंयतरी मडगांवां पळेल्ल्याचो म्हाका भास जाता.

**विठोबा :** हांव मडगांवचोच.

**रुक्मीण :** हांवूय मडगांवचेंच.

**विठोबा :** हांव आयज मडगांवच्यान सकाळीं साडे–आठांक भायर सरिल्लों आनी सांजचो साडे–पांचांक पावलों–कदंबाचे बसीन.

**रुक्मीण :** हांवूय तेदेच वेळार भायर सरिल्ले आनी तेदेच वेळार पावलें. तेच बसान.

**विठोबा :** तशें जाल्यार हांवे तुका बसीनूच पळेलां जातलें.

**रुक्मीण :** म्हाकाय तशेंच दिसता. बसीतले सगले लोक– ड्रायव्हर कंडक्टर लेगीत– तुमचेचवरी दिसताले.

**विठोबा :** बसींत हांव पयल्याच सिटार जनेलाकडेन बशिल्लो–

**रुक्मीण :** हांव ताचेच कुशीक दुसऱ्या सिटार बशिल्लें.

**विठोबा :** तशें जाल्यार आमी बसींतूच अेकमेकांक पळेलां जावंये.

**रुक्मीण :** जायत. म्हाका काय अुगडास जायना.

**विठोबा :** म्हाकाय जायना.

**रुक्मीण :** हांगा हांव म्हज्या मामाकडेन रावतां. म्हजो मामा प्रासार रावता.

**विठोबा :** हांव हांगां म्हज्या बापोल्याकडेन रावतां. तोय थंयच रावता.

**रुक्मीण :** म्हजो मामा दत्तनिवासांत रावता.

**विठोबा :** म्हजोय बापोल्यो दत्तनिवासांतूच रावता.

**रुक्मीण :** पयल्या मजल्यार अुजवेवटेन.

**विठोबा :** म्हजोय बापोल्यो पयल्या मजल्यार अुजवेवटेनूच रावता.

**रुक्मीण :** हांव न्हिदता ते कुडींतल्यान शेतां आनी दोंगर दिसतात.

**विठोबा :** म्हजेय कुडींतल्यान तेंच दिसता.

**रुक्मीण :** हांव न्हिदतां ते खाटीर पांचवी चादर आसा.

**विठोबा :** म्हजेय खाटीर तसलीच चादर आसा. म्हण्टकूच अेकमेकांक थंयच पळेलां जावंये.

**रुक्मीण :** जावंये. म्हाका अेक धूव आसा. दोन वर्सांची. नांव मीना. पोर बरें दिसता. पूण बाबडें अेका दोळयान तिरशें.

**विठोबा :** अजापूच आं ! म्हाका अेक धूव आसा. दोन वर्सांची. ताचेंय नांव मीना. तेंय सुंदर दिसता पूण अेका दोळयांन तिरशें–

**रुक्मीण :** तशें जाल्यार म्हजी धूव ती तुमची धूव न्हय मूँ ?

**विठोबा :** तशेंय जावं येता.

**रुक्मीण :** आवयस ! तशें जाल्यार आमी घोव–बायल जांव येता.

**विठोबा :** बापायस् ! तशें जाल्यार तूं म्हजी बायल आनी हांव तजो घोव–

**रुक्मीण :** विठोबा !

(दोगांय रडटात)

**विठोबा :** अखेरेक म्हजी बायल म्हाका मेळळीतर आतां म्हाका पेपरांत जायरात दिवंची पडली– मेळ्ळी. मेळ्ळी. मेळ्ळी... सांडली आनी मेळ्ळी... म्हजी सांडिल्ली बायल रुक्मीण मेळळी... आनी ताका लागून म्हाका, तिच्या घोवाक, विठोबाक खूब खोस जाली...देखून, हो विठोबा त्या बिठोबाचे, म्हळचार पंढरपुरच्या विठोबाचे मनापासून अुपकार मानता.

**रुक्मीण :** विठोबा... म्हज्या राया ! (गाणें म्हण्टा) विठु माझा लेकुरवाळा । संगे गोपाळाचा मेळा ॥ विठु माझा ऽऽ विठु माझा ऽऽ

(दोगांय लागीं येतात)

विमल : (प्रेक्षकांकडेन अुलयता) ह्या दोगांयचो कितेंय जाल्यार घुस्पागोंदळ जाला. हीं दोगांय अेकमेकांचीं कोण न्हय. तांचीं नांवां विठोबा आनी रुक्मीणो खरीं. दोगांकूय मीना नांवाच्यो धूवो आसात खऱ्यो. पूण अेकल्या मिनाचो अुजवो दोळो तिरसो ज़ाल्यार दुसऱ्याचो दावो तिरसो. देखून म्हण्टां हो अेक व्हड घुस्पागोंदळ. तो आनीक वाडोवपांत अर्थ ना. (थारुन) म्हजेंय नांव विमल न्हय. म्हजें खरें नांव अिंदिरा गांधी ( तें वता आनी त्याच वेळार घडयाळींत कितलींशोंच वरां वाजतात)

विठोबा : (रुक्मिणीक) बऱ्याच तेंपान आमी दोगांय अेकमेकांक मेळळयांत. म्हण्टकूच आता आमी अेकमेकांक दोळयांत तेल घालून सांबाळुया.

रुक्मीण : हय.

(दादा आनी व्हनी तोंडाक पोव बी मारुन येतात)

व्हनी : (नाटकीपणान) तुमी आयलीं हें पळोवन बरें दिसलें.

रुक्मीण : कोणाक ?

व्हनी : आमकां दोगांकूय (दादाक) हीं आयलीं तें पळोवन तुमकां बरें दिसूंक ना वो ?

दादा : दिसलां (नाटकीपणान) म्हाका जाल्यार मनापासून खोस जाली.

व्हनी : खूब अुसरां आयलीं म्हूण चड बरें दिसलें. सांगनासताना अैन जेवणावेळार पावली म्हूण आनिकूय बरें दिसलें.

दादा : दीसभर आमी अुपाशींच आसलीं. पोटांत कावळे रडूंक लागले. तुमची वाट आमी पळे–पळे–पळेली आनी अखेरेक 'पाड पडूं हांचें. ही खंय पावलीं म्हूण कोण जाणां !' अशें म्हणून आमी जेवलीं–

(हाचे अुपरांत सगलींच जाणां अुलोवंक कचरतात. सगलीं जाणां खांकतात. नव्हंसशीं जावन कसलेतरी आवाज काडटात. मागीर अुलयतात)

**रुक्मीण** : खरें म्हळयार–

**विठोबा** : आमकां थंडी जाल्या.

**दादा** : हरशीं आमकां शीं बी काय खायना.

**व्हनी** : वारोच ना आयज.

**विठोबा** : बरी गजाल. वाऱ्याक लागून तरी कोणाचें कितें बरें जालां?

**दादा** : (गाणें म्हण्टा) आऽऽलाऽऽ लाऽऽ लाऽऽ लाऽऽ

**विठोबा** : तुमकां बरें दिसना ?

**व्हनी** : तांकां हालीं मात्शें आग्लिसांव जाता. आयज सकाळीं ताणीं खूब अुडयो माल्ल्यो.

**विठोबा** : ह्या वयार तुमी अुडयो मारुंक जायना.

**रुक्मीण** : भिकणां बी खाल्यार जाता.

**दादा** : मनशाच्या काळजाक वय नासता.

**विठोबा** : म्हाका हें पट्टा.

**व्हनी** : बांदोडकारुय अशेंच म्हण्टालो.

**रुक्मीण** : पूण सध्याच्या मुखेलमंत्र्याक हें पटना. तो म्हण्टा काळजाक वय आसता.

**व्हनी** : तुमी दोगांय खूबशीं भोंवतात खंय ? बऱ्यो गजाली सांगात मुं वो प्रवासांतले अणभव बी.

**विठोबा** : (रुक्मिणीक) आयज आमी कितें पळेलें तें सांग पळोवंया.

**रुक्मीण** : नाका सायबा ! ते सांगल्यार ताचेर कोणूच विस्वास दवरचोना.

**दादा** : (गंभीरपणान) तुमी कितेंय सांगात. रेड्याक पाडो जालो म्हूण सांगलें जाल्यार लेगीत ताचेर आमी विश्वास दवरतांत.

**व्हनी** : आमकां असल्या गजालींचेर विश्वास दवरपाची आतां संवय

जाल्या. हें सदां म्हाका असल्योच गजाली सांगतात.

**विठोबा :** (रुक्मिणीक) ती सांग म्हण्टात जाल्यार सांग तूं. तांचो विरूस करूं नाका. तीं बरीं मनशां– निदान पळोवंक तरी बरीं मनशां दिसतात. तुवें कितेंय सांगल्यार ताचेर तीं विस्वास दवरतलीं–

**रुक्मीण :** आयज मजाच जाली.

**विठोबा :** (ॲक्सायट जावन) बेग्गीन सांग.

**दादा :** कसली मजा ?

**व्हनी :** सांग सायबिणी बेगीन.

**रुक्मीण :** हांव बाजारांत गेल्लें नुस्तें हाडूंक. अितलें म्हारग कांय विचारुं नाका.

**व्हनी :** ही म्हारगाय खंय पावतली देव जाणा !

**दादा :** मदीं अुलोवं नाका. सोबना तें.

**रुक्मीण :** पळेल्यार वाटेर अेक मनीस–

**विठोबा :** कितें करतालो ?

**व्हनी :** कोण गो तो पूण ?

**दादा :** मदीं अुलोंव नाका म्हळे न्हय ? रंगाचो बेरंग करता तूं.

**व्हनी :** तुमीच वाट लायतात. तुमी पयलीं अुलयले.

**दादा :** आतां माशें वोगी रावतीत ? ( रुक्मिणीक ) तूं नुस्त्याक वेतालें. मागीर कितें जालें ?

**रुक्मीण :** तुमी म्हण्टलीं हांव कित्या कितेंय सांगता म्हूण.

**व्हनीं :** आमी तशें म्हणना म्हूण सांगलें न्हय तुका ?

**रुक्मीण :** देवतेच्यान तर, हांव फाल्स अुलयना. जें जशें घडलें तशें सांगतां.

**दादा :** सांग.

**रुक्मीण :** ( मनाची तयारी करीत ) हांव बाजारांत नुस्तें हाडूंक वेतालें–

दादा : हाडलें. फुडें अुलय.

व्हनी : आतां तुमीं मदीं कित्याक अुलयले ?

विठोबा : मात्शीं झगडूं नाकात पळोवया. ताका ओग आयला तशें सांगुंदी (रुक्मणीक) सांग गो.

रुक्मीण : पळेल्यार वाटेर अेक मनीस–

व्हनी : कोण तो ?

दादा : हो प्रस्न दर खेपेक विचारुंकूच जाय असो कायदो आसा ?

व्हनी : (रागान) आसा.

दादा : तशें जाल्यार जाप आयक– मण्णो फोंडो. (रुक्मिणीक) फुडें सांग.

रुक्मीण : पळेल्यार वाटेर अेक मनीस अुकडुचां बसलेलो–

विठोबा<br>दादा<br>व्हनी } : (नाटकीपणान) खरेंच काय कितें ?

रुक्मीण : आनी असो ओणवो जाल्लो.

व्हनी : मागीर ?

रुक्मीण : हांव अशें लागी गेलें तो कितें करता काय म्हूण पळोवंक. आनी कितें सांगतलें तुमकां.

दादा : कितेंय सांग.

व्हनी : कितें करतालो तो ?

रुक्मीण : बुटाचे फीत बांदतालो.

विठोबा<br>दादा<br>व्हनी } : अजाप बाबा !

दादा : म्हाका ही गजाल दुसऱ्या कोणेंय सांगिल्ली जाल्यार म्हजो तिचेर विस्वासूच बसचो नासलो.

विठोबा : हें कांयच न्हय. हांवें काल जें कितें पळेलें तें तुमकां जर सांगत जाल्यार तुमचो आवरोच अुडटलो.

व्हनी : सांग तर बेगीन.

दादा : हिचो आवरो अुडपाक बरें पडटलें–

विठोबा : काल हांव सिटी बसीत बशिल्लों. पळेल्यार थंय अेक मनीस कुशोक अेका कोनशाच्या सिटार बशिल्लो आनी कितें कर-ताले जाणां ?

रुक्मीण, दादा, व्हनी : (नाटकीपणान) नकळं सांग मरे पापया–

विठोबा : कुशीक अेका कोनशाच्या सिटार बशिल्लो आनी कितें करतालो जाणां ?

दादा : हें अेक फावट म्हणून जाले तुंवें. आतां तो कितें करतालो तितलें सांग.

वठोबा : पेपर वाचतालो.

( व्हनी तोंड आऽऽ करता आनी पडटा. ती पडटना दादा आनी रुक्मीण तिका सांबाळटात आनीक कदेलार बसयता )

विठोबा : कितें जालें तिका ?

दादा : आवरो अुडलो तिचो.

व्हनी : (सावशीत जातकूच) तुमची गजाल खरीच बरी आसली.

दादा : (दारार टकटक जाता तो आवाज आयकून ) कोण आयलो काय ?

व्हनी : हांव पळेता ( वेता. दार अुगडून पळेता आनी परथता ) कोण ना.

विठोबा : आनीक अेक गजाल सांगतां.

( परथून दार वाजता )

दादा : कोणेंतरी दार खटखटायलें.

व्हनी : हांव पळेतां (वेता. दार अुगडून पळेता. परथता ) कोण ना.

विठोबा : तर कितें सांगतालों हांव.

रुक्मीण : आनीक अेक गजाल.

विठोबा : हय (दार वाजता) कोण काय ?

व्हनी : आतां हांव परथून पळोवंचें ना.

( दार वाजता. )

दादा : कोणूय जाल्यार आयला अितली गजाल खरी.

व्हनी : पयले खेप दार वाजलें तेन्ना थंय कोण नासलो. आतांय म्हूण थंय कोणतरी आसतलो अशें तुमी कित्याक धरतात ?

दादा : कोणेतरी दार खटखटायलें म्हूण.

रुक्मीण : तुमचें म्हणणें म्हाका पटना.

विठोबा : दाराचो असो आवाज येतकूच थंय कोणतरी आसता ही गजाल सिद्ध जायना ?

रुक्मीण : ना. निकतें खट्खट् जाल्लें. व्हनीबायन दार अुकतें केलें. पळेल्यार थंय कोण नासलो.

वि ठोबा : पूण हरशीं संवसाराचो नेम असो आसा की जेन्ना दाराचो असो आवाज येता तेन्ना थंय कोणुयतरी अुबो आसता.

दादा : हांव असो कोणायगेर वेतां तेन्ना तांचें दार खटखटायतां.

रुक्मीण : दाराक बेल आसल्यार कितें करतात तुमी ?

दादा : ती मारतां. तेन्ना घरांतल्या मनशांनी दार अुकतें करचें आनी हांव कित्याक आयलां, कोणाक सोदतां काय म्हूण विचारचें अशें म्हाका दिसता ( प्रोफसोरावरी अुलयत ) हेच परीन, कोणूय केन्नाय दारार मारता तेन्ना ताकाय म्हजेचवरी दिसता अशें हांव धरतां–

व्हनी : तत्वांत ही गजाल म्हाका पट्टा. पूण प्रत्यक्षांत सदांच अशें घट्टाच अशे ना.

रुक्मीण : व्हनीबायन सांगले ती गजाल बराबर.

विठोबा : तुमी बायलां अशींच. सदांच अेकमेकांचो पाखो घेयत आसतात.

व्हनी : बरें, हांव पळेता कोणूच आसचो ना. थंय पळेयात आं.
(दार अुकतें करता. धांपता.) कोण ना (परथता) तुमी दादले सदांच अशे. चुकले तरी चुकले केन्ना म्हणचे नात,
(दारार टक्टक् जाता)

दादा : परथून दार वाजलें कोण तरी आयला.

व्हनी : परथून म्हाका दार अुकतें कर म्हूण सांगू नाकात. (तापून) तुमकां ना कामधंदो. मनशान अणभवान शाणो जावंक जाय. अणभवान आमकां कळळे को दार वाजलें तरी थंय कोण नासता.

रुक्मीण : बराबर.

विठोबा : म्हाका पटना.

दादा : म्हाकाय पटना.

व्हनी : तुमी दोगूय अेकेच माळेचे मणी.

दादा : दार वाजता तेन्ना तें वाजोवपी कोण तरी आसताच.

व्हनी : हे आपली चूक केन्ना कबूल करचे नात. तांकां आवयबापायन तशी देख दिलीच ना.

रुक्मीण : म्हजोय घोव पाडापडिल्लो तसोच. सदां आपलें तेंच खरें म्हण्टलो.

दादा : (दार वाजता) पळे, कोणतरी परथून दारार मारता.

व्हनी : आता म्हाका मात्सो वाज हाडू नाकात पळोवया. तुमकां थंय कोण आसासो दिसता जाल्यार तुमी वचात आनी दार अुकतें करात.

दादा : (दार अुकते करता. अेकलो मनीस भितर सरता– धल्ल्यार पुलीस, धल्ल्यार बंबवालो, धल्ल्यार हेल्थ अिन्स्पेक्टरसो. तिगूय जाणांचो भेस ताणें घाला).

पुलीस : म्हाका पळोवन तुमकां सगल्यांक अजाप जालां जातलें न्हय ?

व्हनी : जालें मात्शें. चड न्हय. अजाप जालां तें जालां म्हणूंक नाका? किर्ते गो बाये ?

रुक्मीण : हय तर.

दादा : तुका पळेल्याबराबर तिचो बाबडेचो आवरोच अुडलो.

पुलीस : कित्याक ?

दादा : तिणें किर्ते म्हळेलें ते फाल्स जालें म्हूण–

विठोबा : दादा आनी व्हनी अेकमेकांकडेन झगडटालीं–

व्हनी : मात्शे वोगी रावशात ? आमी झगडूं ना जाल्यार मरूं अुपकार करून तुमी मदीं पडूं नाकात. (दादाक) घरच्या झगडचांनी बेठेच भायल्यांक ओडूं नाकात पळोवया.

दादा : हातूंत राग येवपासारकें किर्ते आसा ? (पुलीसाक पळोवन) हो पळे पुलीस आसा तो आमगेलो घरचोचसो. ताची भयण म्हजेर मोग करताली.

व्हनी : किर्ते ?

दादा : लग्नापयलीं गो. आनी ताच्या बापायन म्हाका सांगिल्लें तुका हांव म्हजो जांवय करतलो म्हुण. म्हजेखातीर राव राव रावलों आनी अखेरेक बाबडो भायर पडलो.

व्हनी : म्हूण सुटले.

पुलीस : किर्ते जालां तें सारकें सांगात पळोवया.

व्हनी : हांकां दिसलें–

दादा : म्हाका दिसूंक ना. तुकाच दिसले.

( दोगांय झगडटात ' म्हाका दिसूंक ना... तुकाच दिसले ' म्हूण )

पुलीस : बेठींच झगडूं नाकात. किर्ते जालें तें म्हाका सारकें सांगात.

व्हनी : हांव सांगतां. आमी दोगांय वाद घालतालीं. हे म्हण्टाले, जेन्ना दार वाजता तेन्ना भायर कोणतरी आसता.

दादा : बराबर तांचें म्हणणें.

व्हनी : हांव म्हण्टालें, सदांच दार वाजता तेन्ना थंय कोणतरी आसताच अशें ना.

पुलीस : ह्या म्हणण्याक व्हडलोसो अर्थ ना.

व्हनी : पूण ही गजाल प्रत्यक्षांत सिद्ध जाली न्हय ?

दादा : फाल्स. तूं चुकलो म्हण्टा तें सिद्ध जाले.

व्हनी : कशें ?

दादा : दार वाजलें. हांवें दार अुगडलें. आनी थंय हो मनीस अुबो आसलो.

रुक्मीण : पूण तें केन्ना ?

दादा : केन्ना म्हणचे ?

व्हनी : तुमीं चवथे फावट दार वाजिल्लें आयकलें आनी दार अुकतें केलें तेन्ना. म्हजे नदरेन पयल्यो तीन फावटी म्हत्त्वाच्यो.

दादा : (पुलिसाक) हांव तुका कांय प्रस्न विचारूं ?

पुलीस : विचारात. जापो बराबर दिल्यार प्रॅम (बक्षीस) बी आसा व्हय तर ?

व्हनी : विचारतात ते प्रस्न सारके विचारात. नाका जाल्ले विचारूं नाकात– ही अॅसेंब्ली न्हय, हें घर हें लक्षांत दवरात.

पुलीस : विचारात–

दादा : हांवें दार अुकतें केलें तेन्ना तूं म्हाका दिसलो. दारार तुवेंच मारिल्लें ?

पुलीस : हय.

विठोबा : म्हळचार तूं दाराभायर आसलो तानी तुवें भितर सरपाखातीर दारार मारिल्लें.

पुलीस : बराबर.

दादा : (व्हनयेक) पळेलें ? हांव सांगतां तें बराबर. दार वाजता तेन्ना भायर कोणतरी आसता. तो दार खटखटायता आनी ह्या खिणाक तो कोणतरी म्हळचार हो.

व्हनी : म्हाका पटना. हांव पयले तीन खेपे दार वाजलें त्या संबंदी म्हण्टा. चवथे खेपेचें म्हाका लागना.

रुक्मीण : पयले खेप दार वाजिल्लें तेन्ना तुमी दाराभायर आसले ?

पुलीस : ना. नासले.

रुक्मींण : पळेयात. म्हळयार पयले खेप दार वाजलें त्यावेळार दाराभायर कोणूच नासलो.

विठोबा : दुसरो कोणूय आसलो जावंये.

दादा : (पुलिसाक) तूं खूब वेळ दाराभायर अुबो आसलो व्हय तर?

पुलीस : पाअूण वर सुमार.

दादा : आनी तुका कोणेच दार अुगडलें ना.

पुलीस : ना.

दादा : आनी दुसरे खेप जेन्ना दारार परथून खटखट आवाज आयलो तेन्ना तुंवे तो आयकलो ?

पुलीस : हय. पूण तोय हांवें करूंक नासलो आनी तेन्नाय थंय कोणूच नासलो.

व्हनी : म्हण्टकूच म्हजें म्हणणें बराबर. हांव जिखलें.

दादा : बेठेंच नाचूं नाका. अजून प्रश्न सारको सुटूंक ना (पुलिसाक) तूं त्यावेळार दाराकडेन कितें करतालो ?

पुलीस : कांय ना. हांव दोळे धांपून अुबो आसलों. आमगेले मंत्री सदां अेकमेकांकडेन झगटात ते कित्याक काय हाचेसंबंदीं येवजितालों–

विठोबा : पूण तिसरे खेप दारार खटखट जालें तें काय तुंवें करूंक नासलें–

पुलीस : हांवेंच केल्लें.

दादा : पूण ताणें दार अुकतें केलें तेन्ना थंय कोणूच नासलो.

( पुलीस हांसता )

व्हनी : हांसूं नाका. (नाटकीपणान) हो आमच्या जीवन मरणाचो प्रस्न आसा.

दिठोबा : ह्या सगल्या घटणांवेल्यान आमच्यांनी भितलेंच म्हणं येता कीं जेन्ना दारार खटखट आवाज जाता तेन्ना थंय कोण आसता काय नासता हें कळपाक आमकां मार्ग नासता. घडये थंय कोणूय आसूं येता, घडये थंय कोणूच नासूं येता. पूण तो आसा काय ना हें आमकां समजताच अशें ना.

व्हनी : केन्नाच कोणूच नासता.

दादा : सदांच कोणतरी आसताच.

पुलीस : हांव सांगतां. तुमचें दोगांयचे म्हणणें बराबर. जेन्ना दारार खटखट जाता तेन्ना दोनांपैकी एक गजाल जावं येता. अेकतर थंय कोणतरी अुबो आसूं येता. नाजाल्यार थंय कोणूच नासूं येतां.

दादा : हें म्हाका पटलें.

व्हनी : म्हाकाय मानलें–

पुलीस : जिवीत सदांच सादें सरळ आसता– आमी तें कुम्प्लीकाद करतांत.

( व्हनी आनी रुक्मीण दोगांय पुलिसाक पाया पडटात.)

पुलीस : म्हाका शीं तुमी कित्याक पायां पडटात ?

व्हनी }
रुक्मीण } तुमी निकते देव मनीस कशे अुलयले. देवा, आमकां तुजो आशिर्वाद दी.

पुलीस : (आशिर्वाद दियत) तथास्तू !

व्हनी : तुमी आमचो अेक कठिणांतलो कठीण प्रस्न सोडयलो. आता माथ्याचें चेपें काडात आनी मात्शें बसात. च्या हाडटां.

पुलीस : रागार जावं नाका. हांव अेक सरकारी मनीस. म्हज्यान हांगा चड वेळ रावूं नज. हांव चेपें जाय जाल्यार काडटां.

पूण बसना. च्या बी घेना. हांवें तुमचेकडल्यान च्या घेतली जाल्यार लोक हांवें तुमचेकडल्यान लांच घेतली म्हण्टले. सरकारी मनीस जें कितें कोणायकडल्यान घेता तें ताणें सरळ वाटेन घेवपाचें नासता. चोरयां घेवपाचें आसता. (बसता. चेपें काडिना) हांव हांगा कित्याक आयलां तें जाणा व्हय तर तुमी ?

व्हनी : नकळ. सांगात

पुलीस : हांव कामाखातीर आयलां. म्हजें पयलें काम खंयसरूय कोणायचो खून जाला, कोणागेरूय चोरी जाल्या जाल्यार तिचो रिपोर्ट पुलीस स्टेशनार धाडप. दुसरें काम, खंयसरूय अुजोबी लागला जाल्यार तो पालोवप. आनी तिसरें काम हांगां कोणाक हत्तीरोग, मलेरिया बी जाला जाल्यार पळोवप. चवथें काम, फुडल्या अिलेक्शनाक तुमी कोणाक मतां दितले ताचो अदमास घेवप.

रुक्मीण : सरकाराचें हें नाका जाल्लेंच. अेकाच मनशाक चार–चार कामां दिवप म्हळयार कितें गे बाये ?

व्हनी : हय गे बाये ! हे बाबडे खंयखंय म्हुण पावतले ?

पुलीस : (थडपणान) सरकार जनतेच्या कल्याणाखातीर वावुरता. तें कल्याण करताना वेळ पडल्यार आमचो जीव बी गेल्यार सरकाराक अुपकारता.

दादा : पूण हांव म्हण्टां, तुजें सगल्यांत चड म्हत्त्वाचें काम खंयचें ?

पुलीस : अुजो लावपाचें आनी तो लागतकूच पालोवपाचें. (थारून) तुमच्या घरांत अुजो बी खय लागला व्हय तर ?

व्हनी : नासो दिसता. तुमीच वचून कित्याक पळेनात ?

पुलीस : (वास घेवन) हांगां कितें तरी जळळेल्याचो वास येता.

व्हनी : खान्याचो वास तो. बांगडो भाजला.

पुलीस : तुमचे रोदनींत अुजो आसा तर ?

व्हनी : आसा. पूण तो घराक लागसारखो ना. तो घराक लागलोच जाल्यार आमी तुमकां सांगून धाडटांत.

पुलीस : मुद्दम धाडात. म्हजेंय काम जातलें. सरकाराकूय खोस जातली अखेरेक कोणाच्या तरी घराक अुजो लागलो म्हूण. (विठोबा रुक्मिणीक) तुमच्या घराक बी अुजो लागूंक ना मूं ?

रुक्मीण : आमी भायर सरताना तरी लागूंक नासलो.

पुलीस : तुमकां कोणाक मलेरिया, हतीरोग बी जाला व्हय तर ?

हेर सगली जाणां : ना.

विठोबा : अुज्याचें कितें आसता, हांव तुका सांगतां–

पुलीस : सांग

विठोबा : जेन्ना म्हारगाय जाता तेन्ना पयल्यान पयलो पोटांत अुजो पेट्टा. मागीर तो घराक लागता.

पुलीस : बरी गजाल.

दादा : म्हण्टकूच सरकाराक सांग, तुमकां अुजो लागिल्लो जाय जाल्यार आदीं म्हारगाय वाडयात.

विठोबा : सध्या तांदूळ सवाय, गंव सवाय, च्या सवाय, साकर सवाय, पेत्रोल सवाय, सगलेंच सवाय. मंत्र्यांक विचार हें सगलें अशेंच सवाय दवल्लें जाल्यार तुमगेलें हें राज्य चलतलें कशें ? तुमकां पैसो खावंक कसो मेळटलो ? देखून म्हारगाय जाय. सगलें सवाय जाल्ल्यान सध्या वेपार बरो चलना.

दादा : ब्लॅकूय बरें चलना.

विठोबा : आनी ताका लागून राजकारण बरें चलना.

पुलीस : आनी जाय थंय केन्ना अुजो लागना. ताका लागून आमकां काम ना.

व्हनी : काम नासूं पूण तुमकां पागामेंत तरी सारको मेळटा मूं ?

पुलीस : हय. तें अेक सरकाराचें बरें. पागामेंताखातीर तो केन्ना कोणाक तिश्टत दवरिना.

दादा : (पुलिसाक) हांगां शेजरा अेक पादिगार रावता. तागेर तूं कित्याक वचना अुजो लागला काय म्हूण पळोवंक ?

पुलीस : पादिगारागेर वचपाक आमका दिरेत ना. तांगेर अेक तर अुजो लागना आनी लागलो जाल्यार अेकतर तांचे तेच तो पालयतात नाजाल्यार आपली घरां जळूंक दितात.

व्हनी : हांगाच्यान तिसरें घर आसा तातूंत अेक डेप्युटेशनिस्ट रावता. तागेर चल.

पुलीस : डेप्युटेशनिस्टांक घरांनी रावपाचो अधिकार आसता, अुजो लावपाचो नासता. आनी अुजो लागल्यार तो पालोवन घेवपाचो अधिकार नासता.

व्हनी : पोरू तागेल्या घराक अुजो लागिल्लो तो तांणी पालयल्लो. दर वर्सा तांच्या घराक असोच अुजो लागता.

पुलीस : पूण पोरूचो अुजो तांणी चोरयां पालयलो जातलो. तो तांणी पालयलो म्हूण समजल्यार सरकार तांका दंड घालतलो आसलो. खेरीज १४४ कलमाआड धरून ताका भितर अुडयतलो आसलो.

दादा : कांय लोक अुजो लागल्यार तो चोरयां पालयतात ही अेक वायट गजाल तर.

पुलीस : हय. मुख्य म्हळयार ही गजाल कायद्यान बसना. बरो तुमच्या घरांक अुजो लागलो म्हूण तुमच्यांनी पालोव येता तो ? खंयचो अुजो केन्ना, कोणें, कसो पालोवंचो ह्यासंबदीं सरकारान बारीकसाणेन कायदे केल्यात.

व्हनी : हांव म्हण्टां, तुमकां काम ना जाल्यार मात्से बसात. आमकां गजाली सांगात.

पुलीस : (बसता) काणयो सांगूं ?

व्हनी )<br>रुक्मीण ) : सांगात. सांगात (ताळयो मारता)

पुलीस : कुंडे कुस्कुराची सांगूं ?

रुक्मीण : नाका. ती आमी भुरगेपणान आयकल्या. दुसरी कसलीच सांगात.

पुलीस : आयकात आं.

व्हनी : सांगात.

विठोबा : करात सुरु.

रुक्मीण : आतां वोगी रावात आं. बोवाळ करू नाकात. ते काणी सांगतात.

पुलीस : ( मनाची तयारी करता. खोंकता. सारको बसता. सुरू केल्ल्यावरी करता. परथून खोंकता. परथून सारको बसता) म्हजेकडेन अशे पळोवं नाकात आं. म्हजें लक्ष हेवटेन तेवटेन वेता.

व्हनी : सगलीं जाणां वयर पळेयात. तांकां बाबड्यांक नर्व्हस करूं नाकात. (पुलिसाक) सांगात.

दादा : काळीज घट कर आनी सांग. कोणाची पर्वा करूं नाका. तुजो देव घट आसा अशें म्हणून समज.

पुलीस : बरें सांगतां आं. (भियेत भियेत) काणयेचें नांव : सुणो आनी म्हस. अेक सुणो आनी अेक म्हस– दोगूय अेक दीस पासयेक वेतालीं. म्हशीन सुण्याक विचाल्ले, 'बाबरे, तुजें शींग खंय? तें कोणें खालें?" सुण्यान म्हळें, 'हांवेच खालें.' म्हशीन विचाल्लें, 'कित्याक?' सुण्यान म्हळे, 'हो प्रस्न परथून म्हाका विचारूं नाका आं. विचारशीत जाल्यार हांव रड रड रडटलें.' अशें म्हणून सुणो रडरड रडलो आनी घरा गेलो. (सगलीं वोगी)

व्हनी : (थोड्या वेळान) सोंपली काणी ?

पुलीस : हय.

रुक्मीण : हे काणयेचें तात्पर्य कितें ?

पुलीस : तें तुमी सोदून काडात.

दादा : ताचें बराबर. काणयेचें तात्पर्य हें सदांच काणी आयकत-
ल्यानी सोदून काडपाचें आसता.

व्हनी : (दादाक रागान पळेता. अुपरांत पुलिसाक) दूसरी सांगात–

पुलीस : अेक दीस अेका रेडकान कंवच्यो खाल्यो. त्याबराबर तें
वियेलें आनी ताका पाडो जालो. पाडो जल्माक येनाफुडे तो
कँ कँ करून रडूंक लागलो. मागीर तो व्हडलो जालो. अुलोवंक
लागलो. मागीर ताका अेक व्हडलो प्रस्न पडलो, रेडकाक
आओ वा मम्मी म्हणचें काय बाबा वा डॅडी म्हणचें. येद्याशा
रेडकाक असलें कितेंतरी म्हणूंक ताका बरें दिसना जालें.
त्याबराबर पाडयान कितें केलें, शेजारच्या अेका गावच्या
वासराचेर मोग करूंक कॉमेंस केलें. कांय तेंपा अुपरांत ताणें
तेमं केलो आनी तो वेवस्थीत लग्न जालो. ह्या लग्नाक
कामराचो प्रिझदेंत लेगीत आयिल्लो.

रुक्मीण : ही गजाल आमच्या शेजरा घडिल्ली. त्या पाडयाक पांच
भुरगीं आसात. आनी आतां तागेली बायल सव्वे खेप गुरवार
आसा.

व्हनी : (अजापान) अशें ?

दादा : गोरवां–म्हसरांक कुटुंब येवजण लागना.

व्हनी : ( दादाकडेन रागान पळेत) जाणां हांव.

पुलीस : आतां हांव आनीक अेक काणी सांगतां. काणयेचे नांव
कोंबो. अेका शारांत अेक कोंबो रावतालो. तो सद्दां सांजचो
धवो फात घालून ज्यार्दिनांत वचून बसतालो. आनी थंय हेर
कोंब्यांबराबर अिंदिरा गांधीच्या राजकारणांचेर अुलयतालो.
अेक दीस ताणें येवजिलें, आयज आपूण सुणो जावन ज्यार्दि-
नांत वचून बसचें. आनी ताणें आपणाक फाटल्यान अेक
शेंपडी लायली. पाखां बांदली आनी तो सद्चेवरी ज्यार्दिनांत

वचून बसलो. अितल्यांत थंय हेर कोंबे आयले आनी तांणी ताका ' ऑ कोंबडे पोरोब, फॉर्त मरे ?' म्हणून अुलो माल्लो. त्याबरावर ताणें थंयच जीव सोडलो.

व्हनी : हांव अेक सुण्याची काणी जाणा. पूण ती मात्शी वेगळी. हे काणयेंतले सुणो कोंबो जालो. पूण ताका कोणूच वळखलो ना. अुपरांत गांवच्या लोकांनी ताका पंचायतीच्या अिलेक्शनाक अुबो केलो. आनी मजा म्हळचार–

पुलीस : कितें ?

व्हनी : तो वेंचून आयलो आनी सरपंच जालो.

दादा : तुजी काणी वायटशी ना. पूण ती वस्तुस्थितीक धरून ना. आतां हांव अेक सांगतां. काणयेचें नांव ' सोरोप आनी कोलो.' ही अेक ल्हान काणी. मोटवी काणी. कोंकणीवादी असले काणयेक काणी म्हण्टात–अेक दीस अेका सोरपाक फेरीबोटीर अेक कोलो मेळ्ळो. कोल्याक पळेनाबराबर तो हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, " तुका खंयतरी पळेल्यावरी दिसता." कोलो म्हणूंक लागलो, " तुकाय खंयतरी पळेल्यावरी दिसता." त्याबराबर सोरपान म्हळें, " पैर मुंबयसून येतना तूं विमानार बी आसलो व्हयतर." कोल्यान म्हळें, " हय ". त्याबराबर सोरपान म्हळें, " तशें जाल्यार म्हाका मात्शे तुजेकडेन चार आणे मोडचे आसात जाल्यार अुशणे दी पळोवंया. कोल्यान म्हळें, " ना दिना." सोरपान विचाल्लें, " कित्याक दिना ? असो हांवे कसलो गुन्यांव केला?" कोल्यान तटांयच करून जाप दिली, " तुवें चार आणे मागले होच पयलो व्हडलो गुंन्यांव. चारशीं रुपये मागिल्ले जाल्यार आतां दितलों आसलों. तूं पयलो कर्मदळिद्री." सोरपान कोल्याचे गोमटेक धल्लो. कोल्यान रोखडोच सुरो काडलो. तो मारचे पयलीं सोरपान ताचेर अेक फुलयलें. त्याबराबर कोलो थंयच शेंवटून

पडलो आनी मेलो. मरतना ताणें म्हळें, "पाडा पडिल्ल्या तुजें निःसंतान जावं."

रुक्मीण : काणी बरी आसा.

व्हनी– वायटशी ना.

विठोबा– (दादाक) परबीं तुमकां! अितली बरी काणी हांवें हालींच्या काळार आयकूंक नासली.

पुलीस– म्हाका काय ही काणी व्हडलीशी मानवली ना. शिवाय हांवें ती आदीं आयकल्लीय. ल्हानपणांत म्हजे आज्जेन सांगिल्ली.

विठोबा– (व्हनयेक) व्हनीबाय, आतां तुवें अेक काणी सांगप.

दादा– तें राजकुंवराची बी सांगतलें. नाजाल्यार अमिताभ बच्चनची बो. हालीं तें हिंदी सिनेमा बी खूब पळेता.

व्हनी– आयकात आं. अेक आसलो राजकुंवर. तो बरो गोरोगोमटोच पाखलो कसो दिसतालो. तो अेक राजकुंवरीच्या मोगान पडलो. ती मात् काळीकीट आसली. खापुल्ल्यावरी दिसताली. अेकदीस ताणें तिका भेट म्हूण अेक फुलांचो तुरो दिलो. तातूंत ११ गुलाबा आनी १३ रोजां आसलीं. तो तुरो तिणें घेतलो आनी ताका म्हळे, 'म्हज्या राया, भांगराचो मनीस मरे तूं.' त्याबराबर राजकुंवराक आयलो राग. ज्याअर्थीं आतां खरें भांगर मेळना त्याअर्थीं तिणें आपणाक फाल्स भांगर म्हळे अशें म्हणून ताका तिडक माल्ली. ताणें तो तुरो झोमून घेतलो आनी 'धिक्काऽऽर मन साहिना ऽऽ' हें पद म्हणत तो थंयच्यान भायर सल्लो आनी घरा गेलो.

विठोबा– बाकी व्हनीबायक काणी सांगपाची अेक धाटणी आसा आं. (व्हनयेक) कितली अपुर्बायेची काणी सांगली तुवें !

रुक्मींण– दादा, व्हनीबाय आसा म्हूण तुजो संवसार भांगराचो जाला.

दादा– बराबर तुजें. ना जाल्यार पितुळचो बी जातलो आसलो.

व्हनी– (पुलिसाक पळेत) आतां आमकां हे परथून अेक काणी सांगतले. सांगात वो.

पुलीस– आतां म्हाका वेळ जालो.

विठोबा– अेकूच निमणी सांग आनी वच.

पुलीस– म्हाका पुरो जालां.

रुक्मीण– हांव पांया पडटां, पदर पसरतां. अेकतरी काणी सांगूच.

पुलीस– ना.

रुक्मीण– तुमी फातराच्या काळजाचे.

व्हनी– सोरपाच्या कास्ताचे.

पुलीस– हांव अेक सरकारी मनीस. जसो सरकार तशे ताचे मनीस.

व्हनी– ती अितली काकुळतेक येता जाल्यार सांग तिका अेक काणी.

पुलीस– बरें सांगतां.

दादा– (ल्हवू) आतां हो आमकां परथून वाज हाडटलोसो दिसता.

रुक्मीण– (वोगी रावपाची खूण करीत) शू !

पुलीस – म्हज्या मेवण्याच्या मावाक अेक आमीग आसलो. ताच्या भाच्यान आपल्या बापोल भावाच्या सवतभावाचे धुवेकडेन लग्न केलें. तें ताच्या शेजाऱ्याच्या मामाक कळनाफुडें ताणे आपले मावशेचे अिश्टिणीचे अेक धुवडेक आफोवन लिंबाचें सरबत दिलें. ताका फेणयेचो वास येना म्हूण ती तापली आनी तिणें ती खबर आपल्या मावळणीच्या अेका भुरग्याक सांगली आनी ताणे ती आपल्या आतेभयणीच्या घोवाक पत्रांत कळीत केली. त्याबराबर तो विमानान आयलो आनी गोंयच्या लेफ्टनंट गव्हर्नराक मेळ्ळो आनी ताणें ताका विचाल्लें, तुमी ज्यो सरकारी येवजणो करतात त्यो आमचें घट्टाण करपाखातीर काय तुमच्या सुवार्थाखातीर ? त्या अुतराक लेफ्टनंट गव्हर्नरान ताका सांगलें जें कितें हांगां सरकार करता तें लोकांच्या बऱ्याखातीर. देखीक आतां आमी हे जे पुतळे हालयनात ते लोकांक रावपाक जागा मेळचो म्हूण. लेफ्टनंट गव्हर्नरांचे हें

म्हणणें ताचे भयणीचे नातीन काणकोणच्या अेका पसरकाराक सांगलें जाचो भाव हालींच अेके फुटबॉल टिमींतल्यान पुर्तुगालाक गेला. ताणें खेळ सुरू जावंचेपयलीं अिंदिरा गांधीक तेलेग्राम केले आनी सांगले आपणाक अेक वाडिल्ली मेवणी आसा तिका भारत सरकारान अेक घोव पळोवंचो. ही गजाल जेन्ना तिचे मावशेभयणीक समजली तेन्ना कचाकच कांदो खावन अुडयो मारीत तिणें जीव दिलो. त्यापयलीं तिणे आपल्या जांवयाक जो मुंबय दोतोर आसा ताका आफय म्हूण सांगलें. तो रकाद मेळनाफुडें दोतोराच्या भावान-- म्हळयार आद्‌वोगादान- तो ज्या जाग्यार आसलो थंयच्यान ताळगांवा अुडी माल्ली आनी थंय अेका भाटकाराचे धुवेकडेन तिसरे फावट लग्न केलें. तें कळनाफुडें गोंयच्या सरकारान अेक कायदो केलो की जो मनीस सात फावट लग्न करता ताकाच हाचेमुखार गोंयचे मुखेलमंत्रीपद मेळटलें.

विठोबा – हांव त्या आद्‌वोगादाचे तिसरे बायलेक वळखतां तो सदां मिनाच्या ट्रकार बसून आयस्क्रीम खाताली.

पुलीस – ती ही न्हय.

व्हनी – श्शू

पुलीस – तर हांव कितें सांगतालो- गोंयच्या सरकारान कायदो करिनाफुडें तो आद्‌वोगाद आपले तिसरे बायलेक घेवन हनिमुनाक दिल्लीक गेलो आनी थंय बरो ना जालो म्हूण ताका ओशिपतालांत घालचो पडलो थंय अेके नर्सीबराबर तो नाचूंक लागलो तें कळनाफुडें ताची माय बाबडी रडूंक लागली–

दादा– आमगेले घरकान्नी भशेन–

व्हनी– मात्से वोगी रावशात ?

पुलीस– तें आयकताना तिगेल्या भावोजीक– म्हळयार भयणीच्या घोवाक– कांक्र जालो आनी तो भायर पडलो अुपरांत तिणें अेका स्टेशनमास्तराकडेन दुसरें लग्न केलें.

रुक्मीण– जाचेबराबर तिणें दुसरें लग्न केलें तो म्हज्या तिपोल-
भावाच्या आजेमांवाचो शेजारी–

विठोबा– आनी म्हज्या मावशेभयणीच्या मावळणमांयच्या भैणीच्या नातजांवयाचो दुस्मान.

पुलीस– तर सांगतालों कितें काय म्हळयार, जाचेकडेन तिणें दुसरें लग्न केलें ताच्या आतेभावाक तिफोयद जालो म्हूण ताका दोतोराक दाखोवंक व्हेलो जाल्यार हो थंय कोंसुल्तारींत आपले मेवणेचे अेके अिश्टिणीक संत तुकारामाचो अभंग म्हणून दाखोवंक लागलो. हें तिगेल्या मावशेभावाक कळनाफुडें ताणें शेर्कुलें नांवाचे अेके मास्तरणीकडेन लग्न केलें जिच्या भावान दुसरे अेके मास्तरणीकडेन लग्न केल्लें तिचेय नांव शेर्कुलेंच आसलें.

दादा– हालीं चडशा मास्तरणींचीं नांवां शेर्कुलेंच आसता.

पुलीस– त्या शेर्कुल्याचो बापूय बाकीबाक बोरकाराबराबर फाटीं अमेरिकेक गेल्लो थंय तो आपले धुवडेगेर राविल्लो थंय तिचे मांयक थंडो जाल्ली–

व्हनी– अजाप बाये ! अमेरिकेच्या लोकांक थंडी जाता म्हळयार खरेंच दिसना.

विठोबा– मागीर तिणें ॲस्प्रो, अनासीन, क्रोसीन बी घेतलें जातलें.

दादा– हरशीं थंडेक ह्या वखदांचो कांय अुपेग जायना. बेश्ट लोक विचारतात म्हूण घेवपाचीं तीं.

रुक्मीण– (पुलिसाक) पूण तुमगेली खबर म्हाका सारखी समजली ना. धुवडेले मांयक थडो जालो. अुपरात हांव म्हात्शें घुस्पल्लें.

दादा– मांयकडेन पावतकूच सगलींच घुस्पतात.

व्हनी– (पुलिसाक) हीच काणी मात्शी परथून सांगात पळोवंया. सगल्यांकूच आयकुपाची आसा.

पुलीस-- हें पळेयात, हांव सध्या सरकारी ड्युटीचेर आसां. कितली वरां जालीं आता ?

व्हनी– आमी नकळं.

पुलीस– ही घडयाळ–

दादा– तिचो कांय नेम ना. ती आपणाक जाय तशी चलता

व्हनी– तिचो नेम ना कसो ? नेम आसा. सादारण भायर दनपारचीं तीन वरां जातात तेन्ना हिचेर रातचीं धा वरां जातात.

( विमल येता )

विमल– दादा, व्हनीबाय–

व्हनी : कितें गो ? कित्याक आयलां तूं ?

विमल– हांवूच तुमकां अेक काणी सागूं ?

रुक्मीण– कितें म्हण्टा तें ?

विठोबा– पिसाय अशें दिसता. तेंच आमकां काणी सांगता खंय.

पुलीस– (अजापान) कोण विमल ? तूं हांगां खंय ?

विमल– (पुलिसाक) तूं हांगां खंय तें आदी सांग.

दादा– म्हळचार तुमी अेकमेकांक वळखतात तर ?

( विमल आनी पुलीस अेकठांय येतात )

विमल– कितल्या दिसांनी मेळ्ळो रे तूं पापया !

पुलीस– सामकें भागलां मगो तूं पापणी !

दादा– आगो, आगो, तुमी हें आडायलां कितें ?

व्हनी– सोबता हीं अवचिनपणां तुमकां ?

पुलीस– म्हज्या काळजाक पयलेच खेप अुजो पेटिल्लो तेन्ना हाणेंच तो पालयल्लो.

दादा– म्हळचार हो तुजो बंब्र तर !

पुलीस– हांव पुलीस जालों तोय हाकाच लागून. हाका सदांच पुलीसाचेर मोग करीनसो दिसतालो.

विमल– (नाटकीपणान) तूं कितलेशे दीस मेंळूंक नाशिल्यान म्हज्या

काळजाचे कुडके कुडके जाले रे.

पुलीस– सध्या खंय आसात ते सगले कुडके?

विमल– (आपल्या काळजाक हात लावन ) अेकठाय करून हांगाच दवल्ल्यात.

पुलीस– ( नाटकीपणान ) विमल, म्हाका सोड. तूं अशेच म्हाका धरून रावलें जाल्यार लोक आमकां कितें म्हण्टलो ?

व्हनी– दोगांय निलाजरीं अितलेंच म्हण्टलो आनीक कांय म्हणचो ना.

दादा– ह्या पोराक केन्ना कोणें देख म्हूण दिलीच नाशी दिसता.

विमल– व्हनीबाय म्हजें आयकता ?

व्हनी– कांयच आयकपाचें ना तुजें.

विमल– अेकूच अुतर–

व्हनी– अुलोवं नाका म्हळें न्हय. तोंड बंद

विमल– दादा, तूं तरी सांग मरे तिका.

(दादा आनी व्हनी ह्या प्रस्नाचेर 'आयकून घे' 'ना घेवंचें' अशे पद्धतीन झगडटात )

दादा– ( व्हडल्यान आड्डून ) विमल, सांग तुका कितें सांगपाचें आसा तें.

विमल– (लाडांत येवन) हांव अेक कविता म्हणूं ?

व्हनी– पाड पडूं हाचें !

विठोबा )<br>रुक्मीण ) : हेंय लागलें कविता करूंक ?

दादा – (विमलाक) म्हण.

विमल – (व्हड कवीचो आव हाडून) कवितेचें नांव आसा 'पुलीस (पुलिसाक पळोवन) ही कविता हांवें हाचेरूच रचिल्ली.

ह्या संवसारात सगळेच पुलीस<br>बापूय पुलीस, पूत पुलीस<br>मांव पुलीस, जांवय पुलीस

काळे पुलीस, धवे पुलीस
मोटवे पुलीस, लांब पुलीस
तरेकतरेचे पुलिसूच पुलीस
पुलीस बाबडे सगल्याक आसात
रानांत गेल्यार थंय पुलीस
दोंगरार गेल्यार थंय पुलीस
पलासींत गेल्यार थंय पुलीस
कामरांत गेल्यार थंय पुलीस
प्रासारलेगीत पुलीसूच पुलीस
अेक पुलीस झाडार चडटा
दुसरो पुलीस न्हंयेंत बुडटा
अेक पुलीस दांडो घेता
दुसरो पुलीस पिश्तोल घेता
अेक पुलीस पैशे खाता
दुसरो पुलीस खून करता
तिसरो पुलीस चोरयो करता
पेद्रूचें काडून लाद्रूक दिता.
पुलीस म्हळचार देव
पुलीस म्हळचार भाव
म्हजेसार किल्याक तर तो
अेक अपूर्बायेचो घोव

(दादा–व्हनी विमलाक धुकलून भितर व्हरतात.)

रुक्मीण – विमलाचीं कविता म्हजें काळीज चिरून गेली.

विठोबा – ती तागेल्या बोमलेच्या देठांतल्यान आयल्या.

रुक्मीण – देखून तातूंत मोगाचे आंवडे आसात.

विठोबा – (प्रोफेसरावरीं) बरें कवितेत विचार आनी भावना हांचो बरो संगम जाल्लो आसता. विमलाचो हे कवितेंत तो

तसो जाला. खेरीत ताणें ती अणभवाचे घट बुन्यादीनेर अुबी केल्या.

पुलीस – (रडटा) विमलाचे कवितेन म्हज्या काळजाचें घुश्टे आयले. म्हज्याच काळजातलीं अुतरां ताणे तुमचेमुखार दवल्ली. मोगान आनी लक्तुबायेन चिप्प भिजिल्लीं. (थारून) खूब वेळ जालो. म्हाका वचूंक जाय.

विठोबा – अितली ताकतीक कित्याक ?

पुलीस – ह्या शारांत आयज तीन खून आनी पांच चोरयो जावपाच्यो आसात आनी कितलेशेचकडेन अुजे लागपाचे आसात.

दादा – तूं आमकां सोडून चल्लो म्हूण खूब वायट दिसता.

व्हनी – बऱ्यो काणयो सांगल्यो तुमी.

रुक्मीण – हाचेफुडें तुमी सरकारी शिर्वीस सोडून काणयो सांगपाचेच काम कित्याक करिनात ?

विठोबा – तुज्यान त्या कोंकणीवाद्यांवरी कथा–कथनां बी करू येता.

पुलीस – फुडल्या सरकारी बजेटात ताची वेवस्था केली जाल्यार म्हज्यान तें करूं येता.

(पुलीस वेता. ताका सगलीजाणां दारामेरेन पावयतात आनी परथून येवन कदेलांचेर बसतात. हाचे फुडले संवाद सवकासायेन सुरू जातात आनी घोग्यांनी सोंपतात)

दादा– अेकलो पायांनी चलता दुसरो तकलेंत येवजिता.

विठोबा– जो मनीस आयज गोरवां विकता तो फाल्यां तांतयां खाता

व्हनी– जाचें नशीब खोटें, ताका देव दिना केळें.

रुक्मीण– जोर मात् सदांच पेजेक रडटा.

दादा– शिस्तीक लागून राष्ट्र व्हड जाता.

विठोबा– देखून राष्ट्राक भांगर, रगत आनी स्रम दियात.

व्हनी– मिनैर आनी तांचें मीन हीच खरी देशाची आस्पत.

रुक्मीण– देखून मिनैर तापत जाल्यार ह्या देशाचो गोबर जातलो.

दादा– अेक राजकारणी घेयात. ताका अुबो चिरात आनी ताच्यो फोडी करून तव्यार अुडयात.

विठोबा– आमदाराचेर फातर मारशात जाल्यार ताच्या कपळाक धूंग येतलें.

व्हनी– कोंकणी भास आमची माय, आमची भास आमकां जाय.

रुक्मीण– स्वतंत्रताय, स्वतंत्रताय, आमचो देश आमकां जाय.

दादा– वच चल, चल वच.

विठोबा– तोंडार फुलय, तोंडार फुलय.

व्हनी– बाय वच्च ताक घाल.

रुक्मीण– शाक वाड दार काड.

दादा– आका ताका शाक वाड.

विठोबा– आका ताक शाक नाका.

व्हनी– आका रांग आसा लांब.

रुक्मीण– मामा हाका नांव सांग.

दादा– हिका तिका दितां. शिका विका पितां.

विठोबा– हांव हिका हींग दितां. हांव तिचेर फार मारतां.

व्हनी– वीस तोस तीळ गोळ. शीर चीर पीर जीख.

रुक्मीण– खीर खा खा शीर. धांव नाका धर धीर.

दादा– बडो बरी चली बरी. बायलेच्याकूय मेवणी बरी.

विठोबा– बाब राजा बाय राणी. मामा सांग बरी काणी.

व्हनी– कातर हाड काड धार. अुडयो मारून वाजय सतार.

दादा– फुलू फुलू फूल दी.

विठोबा– अूठ दुलू सूय दी.

व्हनी– बाबू, बाबू मूस धर.

रुक्मीण– मूस गुंथून माळ कर.

दादा– हें पळे शेत, पांचवें पांचवें चार.

विठोबा– दादू शेतांत हेड आंबे पेरां पाड.

व्हनी– आमी वेळेर खेळुया. शेव नेवरी खावंया.

रुक्मीण– कणेरीचीं फुलां काडून हांकां तांकां माळुंया.

दादा– धडो अकरावो. आमची म्हस.

विठोबा– आमगेर अेक मेल्ली म्हस आसा. ती बारा शेर दूद दिता.

व्हनी– दोन शेर हांव पियेतां. अडेच शेर मामा पियेता.

रुक्मीण– अुरिल्लें दूद आमी उद्योगमंत्र्यांक धाडटांत.

दादा – घण घण घण. शाळेत वचपाचो वेळ जालो. चल मारी, चल मंगेश. बोटव्यांत पुस्तकां घालात आनी हांगां थंय हेडात.

विठोबा – हो म्हजो बुकलो. हाचे नांव तिकलो–असो म्हजो तिकलो तिकलो म्हजो बुकलो.

व्हनी – आमगेर अेक कुकुलो बाबू आसा. तो मुठी आंवुळटा आनी बिटी बिटी पळेता आनी हिंदी सिनेमांतलीं गाणी म्हण्टा.

रुक्मीण – हो म्हजो चांदीमामा. हाणें धवें फुल्ल पूडवें पांगुल्लां तो म्हाका पळेता. हांव वेतां थंय तो येता आनी म्हजीं फकाणां मारता.

दादा – ताका अैन वेळार आपोवं नाका. शणैमाम ताका गाळी घालूंक शिकयता.

विठोबा – आवय ताची माया करता. आमचो बैल हांबेता.

व्हनी – अेक आसलो घोडो. अेक आसलो रेडो. घोडो आसलो धवो. रेडो आसलो काळो. घोडो गेलो रानांत. रेडो गेलो कानांत.

रुक्मीण – ही बोर बोरां दिता. बोरां बरी गोड आसतात. ही आमची गाय. हिचें नांव नमू.

दादा – आयज सोमार. पेद्रूक धव्या बैलान माल्लो.

विठोबा – आयज मंगळार. सूर्य माथ्यार आयला.

व्हनी – आयज बुधवार. बोस्त्यांव पुस्तक वाचता.

रुक्मीण – आयज ब्रेस्तार. पावस आयलो, सत्री फुलय.

दादा – क का कि की कु कू के कै को कौ कं कः

विठोबा -- काकीने काकाचे कामाचे कागद कात्रीने कराकरा कापले काका कावले.

व्हनी – बे अेके बे बे दुणे चार.... बे धंय वीस.

रुक्मीण – पोंबुर्प्याच्या पेद्रूनें पुण्याच्या पांडूशास्त्र्याला पोजडें पुस्तक पाठवलें.

दादा – नदरेंतुल्या पागेरानू पागितां मासोळी
सायबा भुलोयन मासोळी
पोंवळयांच्या कंवळचा वोंठार
नाच्योयत पिसोळीं
सायबा हांसोयत पिसोळीं

विठोबा– घड् घड् घडांयच
तट् तट् तटांयच
मळबांतली म्हातारी नेटान दळटा
लक–लक–लक
भांगराची वीज तिका पालव धरता
घो–घो–घस्
पावसाच्यो धारो सकल देवतात.

व्हनी– जागी जाल्या गोंयची सासाय
येतलो भार येतलो भार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, मार शेंसार.

रुक्मीण– तासो वाजता कटर्रं कटर्रं
धोल वाजत धुडूम्
धुमचे कटर्र धुम्
घुम्चे कटर्र घुमचे कटर्र घुमचे कटर्र घुम्.

सगलींजाणां– सगलें सोंपले... सगलें सोंपलें...
सगलें सोंपलें (रोमटाच्या आवाजान)
घुमचे कटर्र घुम
कटर्र कटर्र घुम
कटर्र कटर्र घुम
कटर्र कटर्र
कटर्र कटर्र
कटर्र कटर्र घुम
घुमचे कटर्र घुम्.

विमल– ( भायर येवन टी. व्ही. अॅनाउन्सरावरी ) अितल्यांत आमची कार्यावळ सोंपली. आतां परथून भेट फाल्यां सांजची ह्याच वेळार. जय–हिंद.

